# चारां

डॉ. र. वि. पंडित

8/12/2002

शणै प्रकाशन
वेळींग–गोंय

**शणै प्रकाशन : २९**

पयली खेप : जून १९८३



उजवाडावपी :

**शणै प्रकाशन**

वेलींग-गोंय

४०३४०४

छापपी :

**गोमन्तक प्रा. लि.**

सांतिनेज-पणजी

४०३४०१

**मोल [illegible] रुपया**

## जगन्माते (सरस्वती)

म्हजे माये यो अशी यो
राव हांगा अुबी, म्हज्या म्हऱ्यां
काळा निमित्ती, केन्नाय
हांव वच्चूं, वेतलों जाल्यार
खंचे खंयी... हुबून वाऱ्या
तूं मात राव
हांगा सदांच, म्हजे माते,
म्हज्या गीतांतल्यान
थीर, थाऱ्यार !

## बाकी चुकती

भरती ओसरतां
येयली सुकती
चिखलां लोळोवन
बाकी चुकती

## मोरा तुरो

मोरा तुरो
मोराकू बरो ...
भुकेल्ल्या जाय
पणसा गरो !

## प्राण आनी व्हाण

देवामुखार
नाक आपटून
प्राण दिवपा गेल्लों !
थंय व्हांणू
कोणे फारायली,
देखून म्हाका
परते येंवचें पडलें
देवाचेर सदांचो
रागार जावन !

## दुडू आनी मोग

आमचे दुडू आमकां जाय
तुमचे दुडू आमकां जाय
तांचे दुडू तांकां जाय
हांचे दुडू हांकां जाय
दुडुनास्तना, फक्कत
मोगू आशिल्ल्यानी
दुडवांकारां कितें
दिवचें काय ?

## दोंगर आनी खडपां

दोंगर आनी खडपां
हांचेमदीं भेद कितें ?
दोंगरा, झाडांची वोड
खडपां, रेंवेची तड !

## साळीक

तळ्यांतुलें साळीक
तळ्यांतू बरें ...
मानवूचें ना तेका
दर्या वारें

## खडप

रानांक
व्हडप घालीत
ताचें व्हड
पोरसूं जाता.
मनाक तें
घालीत
ताचें
खडप जाता !

# वारो आनी म्हजें मन

वारो ...
कोणा दिसना
पुण तो
झाडां हालयता
म्हजें मनूय
तशेंच.
कोणा दिसना
मात तें,
कोणा,
दुखां पालयता...
तर कोणा सुखां
विखांय
कालयता !

## देवालें बोट

माड ?
माड म्हणचे
देवालें बोट,
मळबाकडेन
ताणें दाखयिल्लें.
मनशावेल्या
अपरंपार
देवा कृपेचो
ताका सदां
अुगडास जांवचे फासत !

# म र ड

तुजे दिवपांत
राम ना
म्हजे घेवपांतूय
राम ना !
मोगाच्या।
आमच्या मरडांत
पानें पोल
धरपा लेगीत
वेंगभर थाम ना
वेंगभर थाम ना

## जिणे साळीक

फुल्लां पळय
जिणे साळीक
हावेसां
पाकळ्यां माजार
भांगरिल्ल्या परमळाचे
आपले मुकूट
घेवन
आपले माथ्यार

## धनी (घोव)

येवंचो धनी
खुशाल कायेन, गारा...
देखुनु मेजितां हांव
दोर्याचीं ल्हारां
काळजां लिपोवनु
दुकांचे दोर्या बारा !

## दोन देव

पाना पानांतल्यान
अुस्वासपी झाडां-देवा
घोंटेरां सपने सपनेत
पळोवपा जाय
पिलां अूबे न्हिदिल्लेकडेन
सगळी रात टपा टपा
थेंब्या दुकांनीं भिजोवन
सतोवपी दंवा-देवा
घोंटेरा आसरा रावून
चाळोवपा जाय

## जीवित

हें जीवित
अशें कित्या
आळवा–पानावेलो
थेंबो ?
आत्तां रुप्यां
चकचकिल्लो
आत्तां मयेंततलो
रेबो !

## सपनीं

ल्हारांवरी
सपनां म्हज्जीं
मना मेरेर
खळखळटा
अदृष्टा
फुगार मार
अंतरां
सळसळटा

०●०

## दुका पावस

कूप चोयतां
मळबांतुलें
आसू अुडली वाऱ्यार...
तेन्नापसून
दुकां पावस..
नदरू ना
थाऱ्यार !

## रीण

आमचीं फुलां
आमच्यो न्हंयो
आमचे दोंगर ...
... तांचे वानर !
तांचे वानर
तांकां दियात...
रिणांतल्यान
मेकळे जायात!

## सूख

पाळां मुळां
खणिल्लो सूख
ताचें
सुकिल्ल्या खोलप्यां
शेणिल्लें सूख

## मायेचो रंग

रगताचो रंग लाल
दुदाचो फुल्ल धवो
मायेचो रंग मात
नित्य नवो, नित्य नवो

## दर्या म्हजो भाव !

आरे, दर्या ?...
दर्या म्हजो भाव
आपल्या परार्ध,
कोटि कोटि परार्ध,
ल्हारांनी
रात दीस अुले मारू मारून
तो म्हाका एकासारको
आपयता !

# नखेत्रां आनी फुलां

नखेत्रां आनी फुलांचें
कितेंय पुण
लागशिल्लें नातें
आसपा फावो.
कित्याक,
फुलां हात लायतांच
नखेत्रां आफुडिल्ल्याचो
म्हाका भास जाता !

## किरणां

वोताचीं किरणां
कळयें रिगत
फूल फुलार, फुलता
सताचीं किरणां
मना रिगत
मनां देवपण धोलता

## अुजो आनी अुज्वाड

अुज्वाडा पालोव
काळखा मेळत,
काळोखाचो
अुज्वाड जाता . . .
अुज्या पालोव
अुदका मेळत
अुदक
अुज्याकू खाता.

## निराधार

जेन्ना सावन
सत्याचें अस्तित्व
सिद्ध करपा
म्हाका
असत्याचोच आधार
घिवंचो पडलो . .
तेन्नासावन, देवा हांव
निराधार . . . निराधार . . .
पुरायेन निराधार !

## कवींचें गांव

कवींच्या गांवां
कवितांचीं घरां
पुस्तकांच्या शारां
वाडे तांचे
कवितांच्या घरां
सपनांचीं दारां
कविचो संसार
लिखणेशीं
अुतरांचें शीत
अुतरांची कडी
देवान दितां
कवी तृप्त !

०००

## अिद्र

कालवांचे हजार दोळे आशिल्ले
कितलेशे अिद्र
कोलवेंच्या दर्यादिगेर
खडपां जावन पडल्यात
खंच्या रुशींच्या
स्रापान काय !

## म्हजें सूख

हेरां दुखां
मन घालतां
म्हजें मन्
दुखी जालें....
तांचे दुखां
व्हळांतल्यान
म्हजें सुख्
व्हळून गेलें !

## तूंच वाऱ्यार

काळजांतलें
सगलें प्रेम
हांवें तुका
ओपलें जाल्यार. .
म्हजें हें
असलें दिवप
अखेर तुकाच
नडचें ना मूं ?
दान सगलें
करचे करून
तूंच वाऱ्यार
पडचें ना मूं ?

# बॉंड नाशिल्लें प्रजासत्ताक

अिस्पिके साम्राज्यां
चार राज्यां . .
चार राजा
चार राणयो
चार गुलाम . .
सगल्यां डबल-बोडां
प्रजा अवघी चाळीस
. . पुण अेकल्या
बोड ना !

## खरेलो जीण, आनी कवी

कागदां प्लॉटांवेल्यान
अक्षरां,
अक्षय, कॉलनी अुबारून
रातदीस
कविते हस्तिदांती
सपनिल मिनाऱ्यां
वावुरपी हांव
अुतरांचो अेक स्थापत्यकार..!
..खरेले जीणें,
अेक सादो
किचन–बॅडरूम
फ्लॅट लेगीत
मेळोवपा
पावलों ना !

# चंद्र

चंद्रार मनीस पावलो
म्हजे जींणेंत
तरीकूय म्हजी,
चंद्राची भेट
केन्ना जायतशें दिसना ;
हे जीणेंत तरी.
ताचे चान्न्या भोग मात
हांव अणभवतां
काळखे राती लेगीत...
कित्या, म्हज्या चल्या
हांवें चंद्राचें नांव दिलां.
तो सदां म्हजे कुशीकू न्हिदता !

## सर्ग

सर्ग म्हणचे कितें ?
कसलो, खंय आसत काय !
हावें तो केन्ना
सपनां लेगीत
पळयलो ना.
जीण नरक, नासली तरीय
हे जीणेंत नरकवास
हांवे खूब भोगला.
देखून जांवये, घडये,
म्हाका
सर्गाचो ध्यास लागला !

## नरकासुरा दर्शन

आमचो दीस गूंथ रोझां
काट्ट्यां रूच
फाल्यां चुकना
गोयिंदा गोयिंदा
जपलो तरीय
नरकासुरा
दर्शन सुटना !

## सर्ग

दोंगरा वोड
मनां अुरत,
मांगरां लेंगीत
सर्ग दिसतां

## खडपां ...

आरे हीं खडपां
म्हज्यानी फोडूं नज
न्हय, तांका वेतभर
कुशीनूय
काडूं नज..
हीं खडपां..
म्हजे आत्म्याभोंवतणीं
शेकानशेक
व्हडपां जावन
पडल्यांत....
हांचेशीं
स्रद्धेचे वा भोगाचें
भक्तीचें वा त्यागाचें
कसलेंच नातें
म्हज्यानी

जोड़ं नज
आरं हीं खडपां
रगता मांसाचीं
म्हज्याच,
मनीसरुपी,
खोडेगांठ खडपां...
हांकां
बेदरकारपणान
हुपून
म्हज्यान
उडूं नज
न्हय
नमळायेन
हांचे मुखार
म्हज्यानी
माथेंय
दोडूं नज...
हीं खडपां
हीं खडपां

# तुजो गांव

हांगा पूर मेड तुजी
उबार नेयी सोबीत मठी
हांव पुरुस जाग्यावेलो
राखणदार तुजे फाटी
हें बेंसु कोणालें गा
रेजिस्त मारुन भोगता कोणु
रेंद सगलें भकून वेल्यान
मुणकार म्हुण धोसता कोणु !
तारीकडलें बावळें मुगा,
शबय शबय करीत करीत,
चडोवन सुणीं दुर्बळांवेर
तिच्या मडयारू उबें रावलें.
आळो नेसुनु येयलेलें तें

धोंदेल वाडोवन बोंबले मेरेन.
नागय नागय करतां करतां
सात माळयां घरां पावलें !
गड्डाणा जमिन कोसुनु
तुयें न्हिगा फुलयलेली...
हुमेच्यो कावडी भोरुनु
झाडां पेडां धोलयलेलीं...
कोण कोणा रिणकारी
कोण कोणा मुणकारी
कोण कोणा भोरता गोरां
कोण कोणा फोण मारी!
जावंदी आयज उस्तवारी
आयचे आयजू सांगलो न्याव
पूर मेडु, उबार मठी
हो सगलो तुजो गांव!

## राम मनोहर लोहियांक

आग्वादचें कोट जोंवेर
मांडविच्या तिरा उबें. . .
झुजाऱ्याच्या रगताचे
फातरा फातरा लावन तिबें . .
तोंवेर भावा उतरां आमचीं
गीत तुजें गायतलीं . . .
तोंवेर भावा याद तुजी
सपनां आमचीं जागयतली
झोटींगांच्यो पिडा गेल्यो
फटिंगांच्यो नडी आसात.
भेस बदलून भुतां रूपान

पुर्विल्लीं मडीं आसात . . .
करून तांची उस्तवारी,
. . . माड्डल्या मनशां पासत,
उजोवन सगलीं पिंपळापेडां
म्हारु जाग्यार घालपा आसात
मंत्र तुजे घेवन जोंवेर
आग्वादचें उबें कोट
फातरां थंच्या देवस्पणां
नव्या रगता . . . नवे तिबे !
मांडविच्या तिरा जंवेर
आग्वादचें कोट तोंवेर . . .

# आमचीं कुळां

चंद्रीम येवन माथ्यार  उबो
ल्हारां, सकला, नाचत आसात
मळब, लावन, सुर्या तिबो
तरी दर्या हांसत आसा
चंद्रीम येयलो, सूर्या गेलो
सूर्या येयलो; चंद्रीम गेलो
दर्या मात जयंचो थयीं
वाजत आसा गाजत आसा . .
बुन्यादी बगर रेंवेडोंगर
वावटळिनी हुबले तरी
आमचे बळार, आमचीं घरां
दर्यादेगेर धोलत आसात . .
वनवासी भुये पासत
रक्ताळल्या पावलांनी,
वाखराच्या धारेवेल्यान
आमचीं कुळां चलत आसात!

## व्हड मायेस्त सूर्य

सूर्य ...
म्हाका दिसता सद्दां
पैसुल्यान ...
कितल्यो अब्ज योजना
पैस पैस
कितलीं प्रकाश–वर्सां पैस
म्हजेपसून...
पुण तरीय म्हाका धाडटा
थंच्यान
आपली ऊब, आपलो उज्वाड
दिप्तिमान ...

हांव जियेंवचो देखून
हांव वच्चों न्हय
पूरायेन गारठून आनी
ना जावन
हे धर्तरेचेर
अशे माये. .
कितलो मायेस्त
आनी मोगाळ म्हजो सूर्य .
आमची केन्ना भेट जालीना
आनी ती केन्ना जावपाचीय ना
हें खबर आसून लेगीत
म्हजेर मोग करपी
म्हजो प्राण राखपी ! सूर्य...
म्हजो सूर्य... म्हजो अति मोगाळ सूर्य!!

## येतलें जर तूं

येतलें जर तूं
अशेंच केन्नाय
योगो योगो
फांट फुलतना
फुलरुट शेंवतीं
आंगणां भोवतीं
झेल्याझेल्यांनी
धोल धोलतना
येतलें जर तूं
अशेंच केन्नाय
हांव अर्दें
न्हिदें आस्तना
भीड कसली
अुगड किवाडां
सपनांचीं, तूं
काण नास्तना
योगो योगो
अशेंच केन्नाय
तूं खरेलें मात
तुजे आस्तना.

# चुकावळ

| पान | ओळ | चूक | सारखें |
|---|---|---|---|
| ३ | २ | म्हऱ्या | म्हऱ्यां |
| ३ | ५ | वाऱ्या | वाऱ्यार |
| ६ | २ | आमकां | तुमकां |
| १५ | ७ | मर्योंततलो | मातयेंतलो |
| १९ | २ | सूख | रुख |
| २१ | ७ | चुां मट्टाडार | चुट्टां माडार |
| ४१ | ११ | दुर्बळांवेर | दुर्बळांचेर |
| ४२ | १४ | मेड्ड | मेड |
| ४४ | ७ | उबे कोट | कोट उबे |
| ४७ | २ | हाव | हांव |
| ४७ | ६ | माये | मायेन |
| ४८ | २० | तुजे | तुजें |

